म्हज्या ह्या
'अस्वस्थ सूर्या' चो
उजवाड आनी
धग वाडोवपाक
जांणी आदार केलो
त्यो नामनेच्यो
चित्रकार निरुपा नायक
अभ्यासक काशिनाथ नायक,
प्रा. भुषण भावे,
मुकेश थळी,
संजय बोरकार,
प्रदीप पाटील आनी
स्नेहा वेरेंकार
हांचे मनापासून उपकार
- संजीव

# अस्वस्थ सूर्य

(कवितां झेलो)

संजीव वेरेंकार

संचित प्रकाशन

**Aswasth Surya**
by Sanjiv Verenkar

# अस्वस्थ सूर्य

संजीव वेरेंकार
मो. 9422643629
email: verenkar.sanjiv@gmail.com

**प्रकाशक:**
संचित प्रकाशन
सावयवेरें
फोंडें गोंय.



**मुखचित्र:** निरुपा नायक

**छापपी:**
हिरू नारायण नायक
ऋतू ऑफसेट,
वळवय, गोंय - 403 401

**अक्षर जुळोवणी:**
स्वराज्य डीटीपी
9764562133

**पयली उजवाडावणी:**
2012

**मोल:** रु.200/-

■ ह्या पुस्तकाक सरकाराच्या कला आनी संस्कृती खात्याच्या पुस्तक प्रकाशन येवजणे खाला अर्थीक पालव लाबला.

फुडाराच्या जीवन प्रवासांत
जांकां उजवाडाची गरज आसा
त्या म्हज्या स्नेहाक आनी समिधाक
हो अस्वस्थ सूर्य भेटयतां...

तुमचो
**पापा**

मांडावळ...

...

# हांव कित्याक बरयतां ?

भुरगेंपणांत म्हाका म्हज्या वेगवेगळ्या इश्टांनी तरातरांचे नाद लायले. कालांतरान ते सुटले. पूण म्हजो इश्ट उदय म्हांबऱ्यान म्हाका कवितेचो नाद लायलो. तो मात अजून दसून आसा. ताकाच लागून 'संजीव वेरेंकार', नाजाल्यार...?

फाटलीं 30-35 वर्सां हांव कवितेच्या प्रवासांत आसा. थोडया उतरांनी चड सांगप हो म्हजो सभाव. ह्या प्रवासांत तरातरांच्यो वृत्ती-प्रवृत्तीचें दर्शन म्हाका घडलें. घडत आसा. समाजांतलीं धोंगां-पोंगां म्हाका सतायतात. घरांतलीं मनशां, सोयरे-धायरे, भायलीं मनशां तांचे वेगवेगळे सभाव, मूड, सोयीचीं राजकारणां, चाली रिती, बऱ्यो वायट परंपरा, श्रद्धा-अंधश्रद्धा, सामाजीक बदल, सजीव-निर्जीव हे सगळे म्हजे कवितेचे विशय.

जिवितांतल्या कांय अणभवांनी म्हाका सूख दिलां जाल्यार कांय अणभवांनी दुख्ख दिलां. पूण हे दोनूय तरांचे अणभव जेन्ना म्हज्या मनाच्या मळबांतल्यान अळंग कागदार देंवतात, तेन्ना म्हाका निर्मितीचो आनंदूच दिता. तसलो आनंद आनी कित्यांतूच मेळना. वेदना कलात्मक पद्दतीन कागदार देंवोवप ही म्हजी कविता.

आयचो काळ वेगळो. मन रिजवणेचीं आनी व्यक्त जावपाचीं साबार माध्यमां विकसीत जाल्यांत. पूण चिंतन हें लिखीत साहित्यांतूच आसता, अशें हांव आतां मेरेन मानतां. म्हाका व्यक्त जावपा खातीर कविते इतलें दुसरें प्रभावी माध्यम मेळ्ळेंच ना. हांव कित्याक बरयतां? केन्ना केन्ना म्हाकाच हो प्रस्न पडटा. खरें सांगू सुरवातीच्या काळांत म्हजी कविता खंयच्याय नेमाळ्यांत, उजवाडाक येतकच म्हाका सुमारा भायलो आनंद जातालो. आयज तो जायना. आयज आनंद जाता, कोणूय कविता वाचल्या जावं आयकल्या म्हणून सांगतकच.

म्हजो गांव सावयवेऱ्यां थंयचेच मातयेंत म्हजी कविता जल्मल्या. फाटलीं धा-बारा वर्सां पणजे राजधानी शारांत रावून आतां हांव मंगेशी रावपाक आयला. कोणे कोणे प्रस्न विचारले. शार सोडून परतो गांवांतूच सो? तांकां तांचे तांचे मानसिकते प्रमाण हांवें त्या त्या वेळार जापो दिल्यात. हें बरयता तें विशयांतरशें दिसूं येता. पूण तशें न्हय. ह्या बरोवपांतय साबार प्रस्नांच्यो जापो आसात. म्हज्या शेजरा रावपी सुमार 80-85 वर्सां पिरायेची वागळे हायस्कूलाची निवृत्त शिक्षिका भौमानेस्त देवी आमोणकार हांणी म्हज्या 'चैतन्याच्यो पावल्यो' ह्या पुस्तकांतली 'भुरगेंपण' ही कविता खूब मानवली म्हणून सांगलें. त्यो साहित्याच्यो बऱ्यो वाचक. त्यो वाचत आसता. 'भुरगेंपण' वाचतकच तांकां तांचे 70 वर्सां पयलीचें भुरगेंपण याद जालें, अशें सांगून त्यो त्या काळा वयल्या परिस्थितीचें कथन करीत रावल्यो. म्हजें मन भरून आयलें. म्हजे कवितेच्या तांकीचो म्हाका दिश्टावो

जालो. पणजे आल्तिनार इतलीं वर्सां असलें सांगपी शेजारी म्हाका मेळ्ळो ना. शारांनी चड करून शेजारी ही संकल्पना आसना. थंय वेव्हारीच. साहित्याचे आनीक एक मोटे वाचक कृष्णा रघुनाथ शेटये सावयकार हायस्कूलाचें निवृत्त मुख्याध्यापक प्रेमानंद नायक हांणीय खूब वर्सां आदीं 'भुरगेंपण' कविता तोखेल्ली. साहित्याचे अभ्यासक प्रा. काशिनाथ नायक हीच कविता वाचून भारावले. ते हे कवितेक 'मास्टर पीस' अशें म्हणटा. 'भुरगेंपण' वाचून भारावतकच सुमार दोन वर्सां खर्चून म्हज्या कवितांचो तांणी अभ्यास केलो. तातूंतल्यान 'संजीवाच्या काव्यांतली संवेदनशीलताय' ह्या तांच्या पुस्तकाचो जल्म जालो. ह्या पुस्तकाक तांकां 2010 वर्साचो कोंकणी भाशा मंडळाचो पुरस्कारय फावो जालो. म्हज्याच कवितांचो हो गौरव आसा. कोंकणींत एकाच कविच्या कवितांचेर बरयिल्लें हें आतां मेरेनचें पयलें पुस्तक म्हणून म्हाका अभिमान.

एक दीस पर्वरी सचिवालयांत वतना एक अनवळखी पोलीस फाटल्यान आयलो. ताका पळोवन हांव अजापलों. हांवें 'नो पार्किंग' विभागांत स्कूटर बी लायली काय, असो विचार आयलो. लागीं येवन ताणें सर सर असो उलो मारलो, आनी दूरदर्शनाचेर प्रक्षेपीत जाल्ली तुमची 'हे समाजपूर्सा' ही कविता खूब आवडली म्हणपाचें सांगून ते कवितेची प्रत मेळत काय म्हूण प्रस्न केलो. ह्या प्रसंगान मळब भुंयेर देंविल्ल्याचो म्हाका आनंद जालो. हालींच्या काळांत चडशे पोलीस कितें मागतात ते सगळेच जाणात. कवितेचो केदो व्हडलो हो गौरव? एकेच कवितेची प्रत कित्याक? हांवें म्हजी ताका सगळींच पुस्तकां धाडून दिलीं. प्रदीप हरमलकार ताचें नांव. म्हजो गांव भाव अरूण नायक. समाज कल्याण खात्यांत कामाक आसता. एक दीस रातचो ताणें फोन करून, सरकारान फिदाल्गो हॉटेलांत आयोजीत केल्ल्या आंतरराष्ट्रीय ज्येश्ठ नागरीक दिसाचे कार्यावळींत आपल्या सायबान म्हजी 'संवणी' ही कविता सुंदर पद्दतीन सादर केली म्हणपाची खबर दिली. ताचो सायब म्हळ्यार त्या खात्याचो उपसंचालक सांतान फेर्नांडीस. एक गिन्यानी आनी सज्जन व्यक्तीमत्व. म्हजी कविता आयकून अरूणाचें हड्डें खंय भरून आयलें. ताच्या उतरा उतरांतल्यान म्हाका तें जाणवतालें. आपल्या गांवच्या एका कविची कविता आपलो सायब कार्यावळींत सादर करता ताचो ताका अभिमान. खंयच्याय बरे काळजाच्या मनशाक तशें जावप सभाविकच. आयकून म्हाकाय बरें दिसलें. भुरगीं दिगंतरा वतकच जाण्ट्या आवय बापायची स्थिती कितें जाता ती भावना ते कवितेंत उक्तायिल्ली. सगळ्या ज्येश्ठ नागरिकांक ती खूब भावली, अशें म्हाका सांतान बाबान मेळ्ळो तेन्ना सांगलें. म्हाका खूब आनंद जालो. म्हज्या कवितेचो आतां मेरेन अशेंच पद्दतीन गौरव जाला. आनी तातूंतल्यानच नव्या कवितांचो जल्म जाला.

प्रसिद्ध लेखक दिग्दर्शक आनी राष्ट्रीय किर्तीचे अनुवादक स. प्रकाशबाब

थळी हांणी म्हजे कवितेचेर उफाट मोग केलो आनी 'Village Evening' ह्या नांवान इंग्लिश भाशेंत अणकारल्यो. म्हज्या कवितांचें हें भाग्य, अशें हांव म्हणन. डॉ. मोनिया सिरसाट हांणीय म्हज्यो कविता हिंदी भाशेंत अणकारल्यो. ह्या इंग्लिश आनी हिंदी अणकाराक लागून म्हजी कविता देश-विदेशांतल्या हेर भासांतल्या वाचप्यां मेरेन पावली आनी कांय कवितांचे हेर भारतीय भाशांनीय अणकार जाले.

निबंधकार आनी कवी मुकेशबाब थळी हांणी म्हज्या कवितां कडेन मदांच आपल्योच वेदना म्हणून पळयल्यो. तांणी म्हजी 'धोल' ही कविता इंटरनेटाचेर घाली तेन्ना दुबयत वास्तव करून आशिल्ल्या पंकजबाब नाडकर्णी सारक्या श्रेश्ठ वाचकान म्हजी सुमारा भायली तोखणाय केली. नामनेच्यो चित्रकार निरूपा नायक हांणी म्हज्या कवितांत चित्रांचे विशय सोदले. नामनेची इंग्लिश लेखिका डॉ. मारिया आरोरा कुतो, समिक्षक डॉ. किरण बुडकुले, कवी माधव बोरकार हांचे सारक्या सावार साहित्यकारांनी वेळच्या वेळार म्हजे कवितेची दखल घेतल्या. ह्या अणभवांतल्यान म्हाका आनंदच दिला.

'अस्वस्थ सूर्य' ह्या पुस्तका खातीर प्रा. भूषण भावे हांणी अभ्यास करून बरयिल्ल्या समिक्षेंत म्हळां, गांवांतल्या वाऱ्या वांगडा हितगूज करपी, शेता भाटांनी पासय मारपी, दोंगराचेर भोवंडी मारून थंयच्या फुलां फळां भाशेन आशिल्ल्या मनीसपणाचे 'म्होंव' चाखपी संजीवाची कविता अशी 'कोडू काजऱ्या भशेन' जाली, ती कित्याक हाची कारण मिमासा जावप गरजेचें.' अशें म्हळां. म्हाकाय दिसता, हाचो अभ्यास जालो जाल्यार आयच्या समाजाजे भलायकेचे नदरेन तें बरें जावं येता.आतां हांव बरयतां म्हज्याच आनंदा खातीर बरयलें ना जाल्यार घुस्मट्टा देखून बरयतां आनी हांव मुक्त जातां.

**- संजीव**

# 'अस्वस्थ' सूर्याच्यो सं (जीव) वेदना

अस्वस्थ सूर्याच्यो ह्यो 'सं' वेदना. ह्या 'सं' भितर संजीव (कवी) लिपिल्लो आसा. ही अस्वस्थताय गिराणग्रस्त कवीची. 'गिराण' नैसर्गीकपणान येता. पूण ही अस्वस्थताय सैमीक, आपसूकपणान हाडिल्ली ना. ती 'मनीस' निर्मित अस्वस्थताय जावन आसा. परिस्थितीचे धकेचपाटे खावन येवपी 'खर्शेवणी' एक तरेची. पूण जिणेंतली फटवण, नकलीपण, बेगडीवृत्ती, सुवार्थ, कृत्रीमताय, बोथट संवेदनहीणताय, अती वेव्हारी वृत्ती हाका लागून येवपी 'अस्वस्थताय' घुस्मट आनी घालमेल पुरायपणान वेगळी. संजीवाची कविता अशेंच जिणेचें दर्शन घडोवन वाचप्यांकय 'अस्वस्थ' करता.

संजीव हो स्वातंत्र्योत्तर कोंकणी कवितेचो एक जितो जिवो, रसरशीत, खिणा खिणान घडिल्लो आनी कणाकणान भरिल्लो एक साक्षीदार. मुळांत कोंकणी कवितेक भावनांचे 'झुंबर' भेटोवपी हो कवी उपरांत आपली 'मुंबर' शक्त घेवन येता. 'मुंबर' उजवाडाक आयलो तेन्ना हें 'मुंबर' यौवनाची पोल्या वयली कुरू आसा, अशें हांव समजल्लों. पूण झेलो तेन्ना वाचतकीच ह्या 'मुंबरांतली' धग जाणवली. मागीर 'गांवांतली सांज' ह्या झेल्या वरवीं सैम आनी मनीस हांच्या समन्वयाचें एक प्रसन्न रुप 'गांवांतली सांज' घेवन संजीव आयलो. त्याच रुपाची एक विस्तारीत आवृत्ती म्हळ्यार 'चैतन्याच्यो पावळ्यो'. पूण 'अस्वस्थ सूर्य' हो संजिवाचो झेलो म्हळ्यार काळीज कडटकीच जाल्ली कवीची तप्तावस्था जावन आसा.

जिणेंतल्या साबार विसंगतींचेर, विचित्रपणांचेर, विस्वासघातांचेर आनी विध्वंसक वृत्तीचेर केल्लें भाश्य म्हळ्यार हो 'अस्वस्थ सूर्य'. खरें पळोवंक गेल्यार संजीवाचे कवितेचो हो अस्सल, निजाचो, मुळावो पिंड न्हय. संजीव घडटनाच असो विद्रोही, बंडखोर, न्हयकारी कवी म्हूण घडुंना. ताची मुळावी आनी सुरवेची कविता सवस्तकायेची ('स्वस्थ' उतराचें सदळपण), मांगल्याची, जिणेंतल्या बरेंपणाची आनी कल्याणाची. पूण शांत दिवले प्रमाण वा पणटे प्रमाण तेंवपी ताची ही 'शांत' कविता फुडें 'दुर्गा' जाली, ताका इतिहास कारणीभूत आसा. आपल्या गांवांतल्या वाऱ्या वांगडा हितगूज करपी, शेतां भाटांनी पासय मारपी, दोंगराचेर भोवंडी मारून थंयच्या फुलां फळां भशेन आशिल्ल्या मनीसपणाचें 'म्हांव' चाखपी ताची कविता अशी 'कोडू काजऱ्या भाशेन' जाता, ती कित्याक हाची कारणमिमासा जावप गरजेचें. केन्ना उमेदीचो वझरो आशिल्लो हो कवी कोडू काजरो कसो आनी कित्याक लागून जालो हें समजून घेवप भोव गरजेचें.

संजीवाच्या काव्यांत (सामक्या ताच्या पयल्या 'भाव झुंबर' झेल्यांतल्या पयल्या वयल्या 'पावस' कवितेंत धरून तें आयज मेरेनचे कवितेंत) 'आमी-तुमी',

'आमचें-तुमचें', 'आमच्या' 'तुमच्या' असो दुजाभाव दिश्टी पडटा. पुराय कविता वाचतकीच हो 'आमी' म्हळ्यार नवोदीत, उभरपी आतांच्या संवसाराच्या मार्गार पावली मारपी 'पथीक' जाल्यार, 'तुमी' म्हळ्यार प्रस्थापितांचें प्रतिनिधित्व करपी व्यक्ती/गटांचें प्रतीक जावन आसा. इतिहासांत ह्या 'प्रस्थापितां' कडल्यान नवोदितांचें शोशण, फटवण, अपेक्षाभंग, विस्वासघात, आनी 'Underestimation' जाता. हीच 'Underestimate' जावपाची सल, दुख्ख, खंत, राग, किंवाटो आनी तिडक संजीव आपल्या कवितांनी परगटायता. इतलीं वर्सां 'तुमच्याच' घरांचेर पडपी पावस 'आमच्या' घरांचेर पडपाक लागला, पंचखाद्याचो दोणो 'तुमकांच' मेळ्ळो 'आमकां' मेळूंक ना. आमी आमच्या वृत्तीचो 'रंग' केन्नाच बदलूंक ना. तुमी मात घडीघडी 'आमचे' रंग थारायले. 'तुमचे बुद्धीची तरसाद कळमेल्ली, आमच्यो कविता 'तसल्यो' न्हय. तुमी हे अशे कांजुले कशे. आमी मुंबरा पोंदचे इंगळे, तुमी तुमच्या खांदार जड जाल्ली पालखी आमच्या खांदार दवरून कूस मारपी. तुमी आयत्या माटवांत भेंडां हालोवपी आमी नेमां मारून माटोव घालपी, ते सदांच नामानिराळे (दुर्जन), तुमी आमकां पेट्रूंक दिवंक ना. अश्यो कितल्योश्योच देखी दिवं येतात.

प्रस्थापितां आड कवीन जो किंवाटो उक्तायला तो ताचो अपेक्षाभंग जाला म्हण. स्वत्वाच्या चळवळींत, अचकीत मदींच 'तथाकथीत' फुडारी कुशीक सरले, म्हण हो राग आसा. तेच वांगडा 'ते' म्हळ्यार शेजाऱ्याल्या ताटापोंदचें उश्टें शीत ल्हेंवपी अशा परधिग्या परस्वाधीन व्यक्ती विशींय राग आसा. तशेंच आपल्याच, निजाच्या नितळ खोमसाक बोते घालपी प्रवृत्तीं आडचोय राग आसा. हेरांच्या मार्गावयल्यो संदी हातासपी संदीसाद् विशींचो राग आसा. समाजांत राजकी वा सामाजीक मळार 'फुडारी' म्हण मिरोवपी व्यक्तींच्या नकलीपणा विशींचो, सवंग वृत्ती विशींचो राग आसा. पूण अशा साबार प्रवृत्ती आड झुजतना कवी तांकां शरण वचना. उरफाटें 'आमी मुंबरापोंदचे इंगळें' अशें कवी म्हणटा. 'आमचो' गैरफायदो घेतल्यांची होळी आमी झुजोवचे ना. आमी स्वता रंग उधळटले. ही पालखी आतां

खंयच 'पेणें' करी नासतना थेट देवळा मेरेन वतली वतली अशें कवी म्हणटा. आमचीं गितां आतां आमीच आळयतले, आतां तळ्यांत उडी मारचे आदीं आमकां विचारचेंच पडटलें. आदीं संजीवाच्या कवितांतल्यान संदी साद्ंचेर खर टिका केल्या. ते नदरेन तांची 'दोणे', 'म्हजें मळब', ह्यो कविता पळोवच्यो. **संजीवाच्या आतां मेरेनचे कवितेक चार आयाम वा तासां कुसां आसात. एक व्यक्तीवाचक वयर सांगिल्ले भाशेन 'ते' आनी 'आमी' मदलो भेद उक्तावपी. दुसरो आयाम थळवाचक. एके वटेन गांव आनी दुसरे वटेन शार हाचे मदलो फरक उक्तावपी. तिसरो काळवाचक आयाम-तेन्ना आनी आयज. आधुनीक जीण आनी पारंपारीक जीण असो चवथो रितीवाचक आयाम तांचे कवितेक**

**लाबला. अशे**

**रितीन चार क्रिया विशेशणात्मक आयामांच्या रुपांतल्यान तांची कविता अभिव्यक्त जाता.** आपलो गांव म्हळ्यार मांगल्यांचें प्रतीक. कवीक ताची भोवच ओड. ह्या गांवांतलेंच एक सुंदर सैम रुप पळयात.

*देवळा कडल्या पेडा वयलो पिंपळ*
*तळयेचो हारसो धरून*
*केंस वळयतालो..... (म्हजो गांव)*

असल्यो निसर्गाचे देखावे दाखोवपी कांय तीन वळींच्यो अस्सल हायकू संजीवान पितारल्यात. 'असो म्हाका गांव जाय' हे कवितेंत कवीन आपल्या सपनांतलो गांव पितारला, जाल्यार 'म्हाका एक घर जाय' हे कवितेंत गांवांतलें मांगल्य आनी सवस्तकाय दाखयल्या. हाचे आदीं 'गांवांतली सांज' ह्या काव्य झेल्यांत 'म्हजें भुरगेंपण' 'कॉंक्रिटाचें रान' ह्या कवितांनी कवीन होच आशय उक्तायला. तेन्ना, आमी, आयज हो फरक कवीच्या साबार कवितांतल्यान दिश्टी पडटा. आपल्या भुरगेपणा विशीं चिंतताना कवी भोवच 'Nostalgic' जाता. यादींची पुडी, ते दिसा, ह्यो कविता हे नदरेन वाचनीय जाल्यात. आधुनिकीकरणाच्या नांवान चलिल्ल्या मुल्यांच्या ऱ्हासा विशीं आनी नैतीक पतना विशीं कवीक खर चीड आसा. आधुनीक जिणेंतलीं सुखां मनशाच्या हिता आड आसात, अशें कवी निक्षून सांगता. (कसलीं हीं सुखां) आयचे जिणेंत वेव्हाराक लागून आमी नातीं सोंपयल्यात. आनी जिणेंतलें चैतन्य वगडायलां अशें कवी म्हणटा (सांवार) तीच गजाल 'अडेचीं नातीं' हे कवितेंत मांडल्या. 'वसंत ऋतू', पावस आनी सांज हीं कवींची आवडटी सैमरुपां. 'कुपां हांसो' तलें निसर्गाचें सुंदर रुप, 'शांत सांजे' तलें पवित्र, मंगलमय रुप, 'आमोरी' तलें सृजन मनांक थक्क करपी आसा. पूण उद्देगीकरणाक लागून सैमाक कशें रसरंग गंध हीण रुप आयलां आनी ताका मनशाक आयिल्लो मद कसो कारणीभूत जावन आसा तें कवीन दाखोवन दिलां. (मदाचीं लक्षणां) पुराय जिणेंत 'सुवार्थ' भरला, आनी जंय सुवार्थ आसा थंय काळोख येतलोच अशें कवी 'मळबाक हात लायले समजून' हे कवितेंत सांगता.

आधुनीक जिणेंत परस्परविस्वास नात्यांचे आदीबंध, मायपास, तुटल्यात. देखून दरेक गजालींत दुबाव, वाटीक लागला. हांसपी ओंठ दिसतकच तो हांसो खरो दिसना. तशेंच वांजांच चड मेळूंक लागिल्ल्यान नाल्लांचे राशींत हात घालचो कसो दिसना. सगली जीण नकली, बेगडी, परप्रकाशी जाल्या हें सॅटलायट्स, तेंच चड वायट, ह्या कवितांनी मांडलां. मनशान आपले भोंवतणींच एकसुरपणाचें आनी एकांगीपणाचें 'इल्लें' घालून घेतलां. हें आधुनीक जिणेंत पावस लेगीत खरो ना, तो लेगीत 'ॲसिडाचो पावस' जाला. हे सृश्टींत 'भगवंत जल्माक घालपाची' शक्त आसा. पुर्वजांची पुण्याय व्हड आशिल्ली, देखून 'कावथ्याचो माड जातालो'

पूण आयज तशें घडना अशें म्हणून कवी समाज-पुरस्पाकच प्रस्न विचारता, हे समाज पुरस्पा, तूच कस्सो बुद्धीभ्रश्ट जाल्लो? वेव्हारी जगांत जगूंक असफल जाल्लो, घुम्मटिल्लो, अस्वस्थ जाल्लो हो कवी 'केन्ना सावन' हें कवितेंत जें सामान्यांक जमलें तें आपणाक जमूना अशें म्हणटा, तेन्ना चा. फ्रा. द कोश्ताचे 'खरस' कवितेची याद जाले बगर रावना. कवींचो मूळ पिंड सामाजीक अभिस्सरणाचो. पूण 'खांद' कवितेंत कवी म्हणटा, आतां हांव वेव्हारी जातलों. दुसऱ्या कोणाक खांद दिवचो ना? पूण अशें म्हणटा थंय आसा. म्होडक्या खुरसाक पळोवन ताचो खांद आपशींच मुखार सरता आनी आपली मूळ वृत्ती सोडिना. पूण होच कवी आतां आपूण आपल्याच आनंदा खातीर आपलो मोर नाचयतां अशें म्हणटा वा नडणी काडून खूब जाली आतां हांवूय बी कंडोच हालयतां अशें म्हणटा तेन्ना खूबच मोटवो दिसूंक लागता. पूण हें मोटवेंपण खिणयाळें आसा. 'हांव असोच' कवितेंत, आपूण केन्नाच सुदारचोंना (सुदारप म्हळ्यार वेव्हारी जावप) अशें सांगून सुदारलों जाल्यार 'रातचो हांव न्हिदचों ना' हें सत्य कवी सांगून वता. दुसरे एके कवितेंत (कविताच केली) आपूण वेव्हारी अजिबात जालों ना, कविताच करीत रावलों, अशें सांगून कवीन आपली काव्य निश्ठाच सिद्ध केल्या. एके वटेन कवीच्याच उतरांनी सगलो संवसार विखयाळो जाता आसतना आनी जिणेंचीं सगलीं मळां खदळ जाता आसतना, 'परंपरा तोडात' अशें सांगीत, काळखाच्या पुजाऱ्यांचेर शस्त्र उबारीत कवी सूर्याच्या लखलखीत उजवाडाचो फुडार दाखयता. कवी कडेन दर्या लेगीत पार करपाचो अखंड आनी दुर्दम्य हावेस आसा. (पेंवपाकच जाय वा हांव थंय पेंवतलो) 'अस्वस्थ सूर्य' ह्या माथाळ्याचीं बिजां आमकां 'भावझुंबर' झेल्यांतल्या 'सूर्य' कवितेंतल्यान वा त्याच झेल्यांतल्या 'सूर्याच्या उजवाडा परस सत्य अशीं (आपली) उतरां' ह्या कवीच्या विधानां भितर पळोवंक मेळटात. पेट्टो सूर्य, लखलखतो सूर्य अशीं कांय अर्थपुराय प्रतिकां कवीन वापरल्यांत. तांच्या गर्भखोल अर्थाक लागून त्या प्रतिकांच्यो प्रतिमा जावंक पावल्यात. हेच तरेन 'सांताण' (प्रस्थापितां खातीरचें प्रतीक जांचे सावळे परस सांवटच चड जालां), वड (सावळे परस सावटच चड जालां, नव्या झाडांक पोंदां जितीं दवरीना), (बेनुल्ल मातिल्ल्यान आपणालें सत्व आनी स्वत्व शेणिल्लो) हीं प्रतिकां लेगीत भोवच अर्थगर्भ जाल्यांत. तेच तरेन 'प्रसादाच्या दोण्याक फटवप' हातूंतलो दोणो, वाजोवन वाजोवन मोनो जाल्ल्या धोला सारको हांव, हातूंतलो मोनो धोल हीं प्रतिकां आनी उपमा अर्थवाही जाल्यांत. त्यो संजीवाचे कवितेचें रांगडेंपण, अस्सलपण दाखयतात आनी ताचे कवितेचो गांवगिरो बाज राखून दवरतात. 'क्रांती' कवितेंतल्या 'चिड्डल्ल्या माडयिल्ल्या भौसाच्या स्वासा स्वासांतल्यान पेट्टा होमकण अशें संजीव म्हणटा तेन्ना बाकीबाबाच्या 'येतलो भार येतलो भार' ह्या उतरांची याद येता.

ह्या झेल्याच्या 'अस्वस्थ सूर्य' ह्या शिर्शक काव्यांतल्यान कवी खरं आशावाद उक्तायता.

*तरिपूण*
*अंदल्ल्या गळ्यांतल्यान*
*अन्यायाच्या रेबकणांतल्यान*
*मुक्त जाल्लें समतेचो*
*सत्याचें गीत गायत गायत*
*सरतलोच वयर*
*ह्या देंगणांतल्यान*
*हो अस्वस्थ सूर्य*

'भाव झुंवर' ह्या पयल्या कविता झेल्यांत कवीन बरयिल्लें. म्हज्या प्रवासाची दिका म्हाका अजून गावना ............ (वाट) ती लखलखीत उजवाडा कडली वाट 'अस्वस्थ' जाल्ल्या ह्या सूर्यमनाक ह्या झेल्यांतल्यान मेळ्ळ्या. हातूंत दुबाव ना.

**प्रा. भूषण भावे**
प्रियोळ.

## खांद

आतां हांव कोणाल्याच म्होडक्या खुरसाक
खांद मारचो ना
म्हजोच केन्नाय उखलचो पडलो जाल्यार
म्हाका शक्त आसची ना
अशें हांव
दर म्होडक्या खुरसाक
खांद मारतकच म्हणटा
पूण म्होडको खुर्रास दिसतकच
म्हजो खांदूच मुखार सरता
खांद मारपाक...

## हे धर्तरी माये

सगळेंच कडेन
सावट करून उबे आशिल्ले
हे सातोण कोणेंतरी वेणपाकच जाय
ते वगर आमच्या सारक्या नव्या रूखांक उजवाडाचें
किरण केन्ना दिसचेंच ना.

सुरवातीक तांणी आमकां
सावळी दिल्लेवरी केलें
तेन्ना धर्तरे मायेकय
खोस जाली
पूण आमी मातशे
व्हड जाताशे दिसले
तेन्ना सावन तांणी माथ्यावेलें
सांवट गच्च केलें

आमी घुसमटत आसा
उजवाडाचें एकूय किरण
आमकां केन्ना दिसलें ना
देखून आमकां बंड करपाचें केन्ना धाडसूय जालें ना

कांय वर्सां आदीं
कोणा एका पिशान
ताचें सांवट बेणपाचो यत्न केल्लो
आमी गवाय जावन पळयताले
घाय घालून घालून
ताचे तरसादीची धार गेली
तेन्ना ताका निसाणोय
हाडून दिवपाचें कोणे
धाडस दाखयलें ना

सुवार्थाक चटावल्ल्या
जण एकल्यान आपलीच
कात वाटोवपाचें काम केलें
तो बावडो पिसी
खर्शे खर्शेवन थंयच सोंपलो
आमी झिंगले म्हूण कितें जालें
मळब पळोवपाचो ध्यास
आमकां अजून आसा
हे धतरीमाये
आमकां वाळटी कर
ह्या सांतोणांची
मुळां पोखरपाचें बळगें दी
त्या पिशाचें अर्दकुटें काम
आमकां पूर्ण करपाक जाय

## ते दिसा

ते दिसा
हातरूणार उठणा आयिल्ले
म्हजे 85 वर्सांचें आवयक
हांव पळयत रावलों
कसलेंच काळें कूप नाशिल्लें
तिचे दोळे म्हाका
जाप नाशिल्ले प्रस्न विचारूंक लागले

म्हजे जिणेच्या 50 वर्सांच्या
इतिहासाचीं पानां
परतत रावलीं
पानां परततना मदींच
घरांतलें कावल विकून
हाडिल्ल्या पुस्तकाचें
एक एक पान दोडटालें

मनाच्या मळबांत
गडगड आनी तटतट मारून
प्रचंड पावस कोसळटालो
घरा माथ्यावयलो वावळो
हुमटून पडटासो जालो
फाटले दारांतलो
खोदूळ उदकाचो व्हाळ
खळखळून व्हांवूंक लागलो.

दनपारां आदन रात्रीर
चडूंक नाशिल्ल्यान
आवयन न्हाणयेच्या रात्रीवेल्या
मुंबरान भाजिल्ल्या
पणसाच्या भिकणाचो वास
नाकांत भरतालो
पूण कसलोच धेकर येनासलो

आवयचे निरागस दोळे
हांव पळयत आशिल्लों
इतल्यान बोल्सांतलो
मोबायल वाजलो आनी
मनाच्या मळबांतलो पावस
ल्हव ल्हव आसरलो
हांव अस्वस्थ जालों

मन आनी काळीज
घराच्या हुंबऱ्यार दवरून
हांव चलत रावलों
फाल्यांच्या 'पेपरा' खातीर
बातमी सोदपाक...!

# मास्तराचो मारूच बरो

आंकड्यांच्या गणिताचें
आनी म्हजें केन्ना जुळ्ळेंच ना
देखून भुरगेपणांत
जठार मास्तराच्या भंयान
कितलेशेच खेपे
शाळेक चुट्टी लावन
रावलों अडुळशांनी लिपून...
हुमल्यांच्या हुळहुळ्यांनी
घामाच्या पावळ्यांनी
जीव वळवळटालो अडुळशांनी
शाळेचे 'तास' सोंपून सोपनासले

केन्ना केन्ना
आवयक सुलूस लागताली
आनी बडी घेवन
लागताली फाटीक
तेन्ना खांदा वयलो बोटवो
झिलींत उडोवन
हांव धांवतालों
वाट मेळत तेवटेन

पूण दनपार जातकच
पोटांत कावळे रडटाले
आनी लजमाणको जावन
घरांत येवचें पडटालें
मागीर दिसतालें
झक मारलें आनी लिपून रावलों
ह्या उतळतापांपरस
जठार मास्तराचो
मारूच वरो आशिल्लो.

## सेटलायट्स

दर मळाचेर
अवतरिल्ल्या ह्या
नकली सुर्यानी
आपणाक जाय जाय थंय
लावन दवरल्यात 'सॅटलायट्स'
जाय तेन्ना पेटोवपाक
जाय तेन्ना पालोवपाक

कसलेंच सत्व नाशिल्ल्या
ह्या 'सॅटलायटां'क कांयच खबर नासता
तांचें पुराय जिणें
ह्या नकली सुर्यांचेरच
अवलंबून आसता

किरण फाटीं घेतलें तरी
कितेंच करपाचें नासता
तांकां वळगें
स्वंयप्रकाशी जावपाचें
तांणी केन्ना चिंतलेंच ना
तांकां असलेच जिणेची संवय जाल्या

ह्या नकली सुर्यांकय
तेच जाय आसता
जाय तेन्ना पेटोवपाक
जाय तेन्ना पालोवपाक

# बॉम्ब स्फोटा उपरांत

दिल्ली बॉम्ब स्फोटा उपरांत
म्हजी कविता पुराय मोनी जाली
ती कांयच उलयना
तिका उलोवपाची वानसाच उरली ना
चैतन्यहीन दोळ्यांनी ती
मुळूमुळू दुकां गळयत
फकत सोदता
निश्पाप सिमरनाच्या आवय बापायक!
सिमरनाच्या मुखामळार
म्हाका दिसता म्हजें माणकुलें समिधा
आनी ताच्या वांगडच्या
सगळ्या भुरग्यांचीं निरागस पडबिंबां
आनी म्हज्यांतलें
त्राणूच गळून पडटा...
कसलें पाप केल्लें ताणें?
देव नांवाची शक्त खऱ्यांनीच आसा व्हय?
आसा जाल्यार ती इतली
निश्ठूर कित्याक वागली?
अशे कितलेशेच प्रस्न
म्हज्या मनाच्या पड्ड्यार
थापटां जावन बसूंक लागल्यांत
देखून दिल्ली बॉम्ब स्फोटा उपरांत
म्हजी कविता पुराय मोनी जाल्या.

# कोले राजा जावंक सोदता

रानांतल्या
वागांची जात ना जावंक लागल्या
देखून कुयो घालीत घालीत
कोले नाचूंक लागल्यात
तांचेंच राज्य येतलें म्हणून

म्हज्या धाकट्या समिधाक तर
रानांत वाग आसता
म्हणून खबरूच ना
तें कोल्याकूच राजा म्हणटा

हांवें ताका कितलें सांगलें
कोलो राजा न्हय म्हूण
तें आयकूंकच तयार ना

ताचीय म्हणून
व्हडलीशी चूक ना
ताणें राजा म्हणून मिरयतना
कोल्याकूच पळयला

हांवूंय ताका
वाग हाडून दाखोवंक शकूंक ना
म्हाका आतां एकूच भिरांत
समिधा वांगडचीं आनी फुडलीं
सगळीं भुरगीं
कोल्याकूच राजा म्हणत म्हणून...!

## दोळे तपासून घे

तुवें म्हाका
पळयिल्लो गड्ड्यांनी खेळटना
कोयणे-बालांनी खेळटना
आश्ट्यार खोरवो गरयतना
हें सगळें करतना
हांव मनीस नांवाचीं पुस्तकां
वाचीत आशिल्लों
तीं वाचतां वाचतां
हांवूय पुस्तक जालों
तें तुका खबरूच ना...

देखून तुज्या दोळ्यांतल्या हारशांतल्यान
तुका हांव आयजूय
गड्ड्यांनी खेळटा तोच दिसता
तुज्या दोळ्यांक तीच संवय जाल्या
म्हजे जिणेचें हेंच खरें दुख्ख
ताच्यो वेदना कळपा इतल्यो
तुज्यांत संवेदनाच ना

दोळे तपासून घे
नाजाल्यार दिशी दिशी
सगळो संवसारूच तुका
कुरूप दिसूंक लागतलो
आनी एक दीस
तूं पिसो जातलो...!
हाचो म्हाका भंय दिसता

## म्हजो गांव

शारांत येवपा खातीर
घरांतल्यान हांव भायर सरलों
ते दिसा लेगीत
दोंगरा पोंदचे वझरे झुळझुळटाले
माड माडयांक वेंगायताले
देवळा कडल्या पेडा वयलो पिपळ
तळयेचो हारसो करून
केस वळयतालो

झाडांवयलीं संवणीं
आंगणांतले आशे वेंचतालीं
कामेऱ्यांचे गळे शेतांतल्या
कणसांतलीं गितां आळयताले
कोस्तुल्याली मांय
दोस घेवन फोण्याल्या
घरांत भितर सरताली
वाड्या वयली जाण्टी नेण्टी सगळीं
भायर येवन हात हालोवन
निरोप दितालीं
कांय जाण कितें तरी
सांगूंक सोदतालीं आनी रडकुळें परततालीं
अशा भावनीक वातावरणांत
आख्खो गांवूच दोळ्यांत सांठोवन
हांव घरांतल्यान भायर सरिल्लो

म्हजें घर, म्हजो गांव, म्हजी मनशां
अशीं पोरनी गितां गायत गायत
खूब वर्सांनी आयज
हांव पर्थून गांवांत परतल्लो

हांव सोदतालो थंय
देवळा कडलो पिपळ
दोंगरा पोंदचे वझरे
शेतां आनी कामेरीं
कोस्तुल्याली मांय
म्हजें घर म्हजीं मनशां
पूण, कोण एक नासलीं
गांव, माथ्याक कुरपणो चडोवन
केन्नाच मोकळों जाल्लो
हांव मात अजूनय
पोरनी गितां गायत गायत
गांव म्हजो म्हज्याच
दोळ्यांत सोदतालों...!

## अस्वस्थ सूर्य

तांचें
मळब वेगळें
देखून चंद्र वेगळो सूर्य वेगळो

तांच्यो सण, परबो
सगळ्योच वेगळ्यो
पावसाळो गिमाळो शिंयाळो
तोय वेगळो

खंयचो ऋतू केन्ना येता
केन्ना वता
हाचेंय तांकां नासता भान
तांचे जिणेंत एकूच ऋतू
वसंत ऋतू...

तांच्या आंगणांत
पावस पडटा
तेन्ना आमच्या घरार
वीज पडटा
तांच्यां आंगणांत चान्नें पडटा
तेन्ना आमच्या
आंगणांत वत रखरखता

तुमी म्हणशात
तांचें आनी आमचें मरण एक म्हूण
तें सत्य
पूण तेंय ते मानिनात
ते मरतात
तेन्ना खंय ते वैकुंठाक वतात
आमी मसणांत वतात
आमचें आनी तांचे मदलें
हें देंगण दिशी दिशी
खोल खोल जायत आसा

तरीपूण
अंदल्ल्या गळ्यांतल्यान
अन्यायाच्या रेंवकणांतल्यान
मुक्त जाल्लें समतेच्या
सत्याचें गीत गायत गायत
सरतलोच वयर
ह्या देंगणांतल्यान
हो अस्वस्थ सूर्य

## कविताच केली

आमी सगळे
वांगडाच गांव सोडून
ह्या शारांत पाविल्ले
कोणे फ्लॅट घेतले
कोणें इमारती उबारल्यो
कोणें बंगले बांदले
कोणें तरातरांचे
धंदे केले
हांवें मात
म्हाका एक घर जाय म्हूण
कविताच केली...!

## कसलीं हीं सुखां

न्हांवपा खातीर टब
कदेल कसो कुमांव
मनशाचे उवेचेरूच
सगळीं उगतीं दारां
नोकरांचीं लेगीत सगळीं
बटनाचेरूच कामां
कसलीं म्हणून सांगू
गिरेस्तांलीं हीं सुखां
भोगतां भोगतां
धरून पडपाचीं कमरां
जगपाचो अर्थ कोणाक
कळूंकच दिना

## हें तळें आमचें

तूं जायत
केदोय व्हडलो बुडेली
आसत केदोय व्हडलो ताणेली
पूण तूं
ज्या तळ्यांत पेंवपाक आयला
तें तळें आमचें
हें मात विसरूं नाका

ह्या तळ्यांत
कसलीं मानगीं कसलीं नुस्तीं
खंय खंय भोंवतात
कसलीं तळपां खंय आसात
हें आमीच जाणां
देखून तळ्यांत
उडी मारचे आदीं आमकां
विचारचेंच पडटलें

## दोणे

सरस्वतीच्या देवळांतल्यान
तरातरांच्या पनवाराची
परात घेवन भट भायर आयले

आप आपले वळखीचे
सोदून काडून काडून
दोणें वाटीत रावले

कोणाक दोन दिले
कोणाक तीन दिले
शक्ती आशिल्ल्यान
झोपय मारूनय घेतले

आडसाक रावून
देवाची उपासना करपी
भक्त बावडे
पळयतूच उरले

## मॉडर्न भुरगीं

अस्तमते कडल्या
रानटी संस्कृतायेचीं बियां
ल्हव ल्हव हांगाय रुजूंक लागल्यांत
देखून हांगाचीं 'मॉडर्न' भुरगीं
मानूंक तयार ना जाल्यांत
कसलींच नातीं गोतीं

## ते सज्जनाचे पुतळे

आमी तशे
सांजेक नाशिल्ले
अन्याया आड ओगीच बडोवपाचे
धोल आनी ताशे
आड्ड्यो आड्ड्योवन खर्शेवपाचे

गळोभर रेंबकोणांत रावूनय
सुकें सडसडीत
आंग आनी दांत दाखयत
ते सदांच नामानिराळे

अपुरबाय करपाचें नाटक करून
बालिकांच्यो चेड्ड्यो देंवोवप्यांक
केले तुमी सज्जनाचे पुतळे
कोण पिंजीत तांचे
हे बुरखे...!

## म्हजें मळब

म्हाकाय बी तुमचे वांगडा
एकाच मळबान
पेटचो आशिल्लो

म्हजो उजवाड
म्हजेच खातीर नाशिल्लो
तो तुमचेय खातीर आशिल्लो

तुमी पेटूंक दिलें ना
देखून म्हजे खातीर
नवें मळब निर्माण
करचें पडलें
आतां हांव पेट्टा
मुक्तपणान...

# आमोरेर

सूर्य बुडटना
मळबांत उडलीं संवणीं
वतयत रंगांचीं ल्हारां
म्हज्या दोळ्यांच्या हारशांनी
जागलीं...
नवे सकाळेचीं सपनां

## भुतकाळाचो प्रवास

स वर्सांचें म्हजें
माणकुलें समिधा
कांपालावेल्या स्विमिंग पुलांत
डुबूडुबू पांय मारीत पेंवता तेन्ना
तें म्हाका सावयवेंरचे
तळयेंतली खोरू कशी दिसता
आनी नकळटांच हांव
भुतकाळाच्या प्रवासाक वतां
घराच्या हुंबऱ्यार रावन
धोलत्या माडा वांगडा धोलता
कुळागरांतल्यान
झुळू झुळू व्हांवपी झऱ्यां वांगडा फुतफुत्ता
आंगणांतल्या पारदका वेल्या
सवण्यांचे चोंचीत चोंच घालून
चिंवचिंवतां
मदींच चंद्रू वांगडा गड्ड्यांनी खेळटा
केन्ना शेतांत केन्ना बांदार
झिली झोपां हुंपीत हुंपीत . .
काण्णां खातां चुन्नां खातां
आनी घामाघूम जावन
पेडा वयल्यान घबांयच करून
तळयेंत तकलेन बूड मारता
आनी हातपांय बडयत
धुंद जावन पेंवता
थंय भटालो बाबू आसता
वसंत, थोटी, श्रीकांत, रोहिदास
हे सगळे आसता

तांचे  वांगडा 'धुवां' चो खेळ
रंगार येता
आनी इतल्यान बोल्सांतलो
मोबायल वाजूंक लागता
आनी म्हजो प्रवास थंयच सोंपता
स्विमिंग सूट घाल्लें समिधा
पापा, पापा म्हणत म्हऱ्यांत येता
ताच्या हाताक धरून हांव
चलत रावतां
आनी नकळटांच
सदांचे गर्देत विरगळून वता...

## पेट्टा कित्याक?

पिशा,
जांचे खातीर तूं
पेटपेट पेट्टा
तांकांच तुजें हें पेटप
नाका जालां...
तुजें हें पेटप कित्याखातीर?
व्यसना खातीर?

## दुखाचें चवन

बंगल्यांतले कांय मनीस
खोंपीतल्या मनशांक
उणाक लेखता
रगताच्या नात्यांतले
आसल्यार लेगीत

लग्न, बारसो, वाडदीस
कसल्याय कारणाक
ते तांकां मैलभर
पयसूच दवरता

आपूण सामके उजू
हें भासयतना
रुंव नासतनाय परत परत
पूं काडटा
आनी खोपींतल्या
मनशांची धोंगां दाखयता

पूण, बंगल्यांतलो
कोणूय मेलो जाल्यार मात
तेंच दारांत येवन
निसण बांदता
खोपींतलो मनीस, मनीस आसता
हें समाजाकूय बापया खबर आसता
तरिपूण, तो बंगल्यांतल्याच
मनशांक तोखेता
ह्या म्हज्या दुखाचें चवन
सदांच व्हांवत आसा...!

## मळबाक हात लागले समजून

पेट्ट्या सूर्याचो
लख्ख उजवाड आसतनाय
काजुल्यांच्या उजवाडाचे
तुमकां जाले दुवाळे
जीवीतभर काळखांत रावन
जांणी आमकां सतायले
त्याच म्हारवांक तुमी
चूड दाखोवन देवाऱ्यांत बसयले

म्हालगड्यांच्या भुजार
आसले तुमी घट्ट उबे
मळबाक हात लागले समजून
तांकांच तुमी धुकल्ले

त्याच खिणाक तुमचे
तकलेंतले ज्ञान दिवे
ल्हव ल्हव पालवले
ल्हव ल्हव पालवले

## वायट जालें

इंटरनॅटाक  लागून
सगळें जग लागीं आयलें
मनीस मात
जीब आसून लेगीत
दिसान दीस मोनो जालो
हें सामकें वायट जालें

# सांवार

शबै कांडीत कांडीत
आतां घराघरांत पावला
लांब लांब सुळ्यांचो
व्यव्हाराचो राक्षस

सगळीं नगरां, शारांतली वस्ती
खुबळावन आतां तो गांवांतय पावला
ताणें कोणालेंच घर सोडुना
आपल्या दाडवणां पोंदां
सगळ्यांक आंवळून धरल्यात
कोणाल्याच घरांत
कोणाचोच कोण उरूंना
सगळीं नातीं गोतीं
गिळून उडयल्यांत

नुस्त्याच्या खरवडावेल्यान लेगीत
येतात एकामेकाच्या
आंगार झुडून
आनी धोंगशीता सुरो
कोणूय कोणाच्या पोटान

जण एकलो जियेता
कावथो कसो
आपलेच भोंवतणी इल्लें करून
मनीसपणा खातीर ताणें
सगळींच कवडां बंद केल्यांत

आदलेवरी कोणागेरच
कसलीच परब उमेदीन मनयना
चैतन्याचो हांसो
कोणाल्याच ओंठार दिसना
व्यव्हाराचो हो सांवार
तरसाद घेवन लागला मनीसपणाचे फाटीक
बावडें मनीसपण, कोणाले तरी भितोडेक
मुळू मुळू गाळटा दुकां
तीं सांवरपाक कोणाक वेळ ना...

## फूक

रसरसून पेटपी उजो
सगळ्यांनीच पळयलो
गोबरा पोंदच्या किटींक
फूक मारपी केन्ना
कोणाक दिसलो ना

## मदाचीं लक्षणां

सवण्यांचे
शेणिल्ले सूर  सोदूंक
ऋतू वसंत ताळये ताळयेर
लागला भोवूंक

करपल्लीं चंवरां पळोवन
वसंताक आयलां रडूंक
वाडट्या ह्या तापमानान
सगळो सैमूच गेलो बदलून

चंवरांतले कण गेले झडून
फुलांतलो रंग गेलो उडून
फळांतलो रोस गेलो सुकून
झऱ्यांचें उदक गेले आंटून
सगळ्यांचेंच जिणे आतां
वतलें एकदीस जळून

अशें हें घडत म्हणून
कोणेच केन्ना चिंतलें ना
मनशाच्या मदाचींच
ही सगळीं लक्षणां

## सगळ्यांक खबर आसा

तुमी
माचयेर बसून
लोणी खायत खायत
आमच्यो भगल्यो मारतात?
ताक चाळपाचें काम
आमीच केल्लें
हें सगळ्यांक खबर आसा

## आदर्शाचीं चित्रां

म्हज्या आदर्शाचीं
किलतीशींच चित्रां
हांव रंगयत रावलो
पिसो जावन
आतां एक एक चीत्र
विटूंक लागलां!
तें पळयतना
मनस्थापाच्या उज्यांत
हांव हुलपूंक लागला
करपूंक लागला
आनी तुमी सगळे
म्हाका हांसूंक लागल्यात

# हे समाज पुरसा

हे समाज पुरसा
इतलो बुद्दीभ्रश्ट
कसो रे जालो तूं
सव्य अपसव्य
कांयच मरे तुका लागना

कोण कशे
खंयच्या खंयच्यान
कसलीं कसलीं रुपडीं पांगरून येतात
आनी तुज्या गळ्यांत
कितेंय घालून वतात
तुका खबरूच ना
तूं केन्ना घणसाबैल जालो तो

आतां हांगा कितेंय खपता
कविता जाय कविता
नाटक जाय नाटक
तियात्र जाय तेंय दिता

जाय तसलो जाय तेन्ना सूर लावंक
पेटी जाय पेटी दिता
कानाचे पड्डे फोडूंक
घुमटां जाय घुमटां दिता
भक्तीच्या नांवान
पिशे करून सोडपाक
जाय तसलीं भजनां दिता
जाय तेन्ना जाय तेवटेन वाजोवपाक
धोलकें दिता
कोणेय कितेंय हाडूं
तूं मान बागोवन
अळंग गळ्यांत घालून घेता
हे समाज पुरसा
इतलो बुद्दीभ्रश्ट
कसो रे जालो तूं?

## कंडो

आतां मेरेन
हांवें नडणी काडपाचेंच
काम केलें
तें खूब म्हारग पडलें
देखून आतां
फकत कंडोच हालयता...

# इंगळ्या

इंगळ्या
इतलो कित्याक पेट्टा
कांय जावपाचें ना
फकत गोबरूच...

## सुराट्याचें मरण

जिवीतभर
सांवार कांडून कांडून
त्या सुराट्यान निमणो स्वास सोडलो
त्या दिसा साबार वर्सांनी
तांच्या घरांत सोबीत फांतोड उदेली
सुर्याचीं कवळीं किरणां
पयलेच खेपे खंयच आडखळनासतना
अळंग जनेलांतल्यान भितर सरलीं
पूण शेजारचो कायतान, उस्मान
शंकर, वसंत, जाकीन, पार्वती
अशीं कितलीशींच जाणां
आड्ड्यो आनी हुयेली मारीत मारीत
तांची आयचीय सकाळ
पेड्ड्यार करतालीं....!
बाजारांतल्यान थेट देवळांत
वचपाचे तयारेंत आशिल्ल्या फुलांक
कोण कोण हाडून
सुराट्याचे कुडीर ओंपताले
तेन्ना फुलांक जावपी असह्य वेदना
म्हाकाच कळटाल्यो
सोप्यार बशिल्ले कडेन
आनी म्हज्या दोळ्यांतली दुकां
पोल्यार झडटालीं
तीं पळोवन केन्ना
वळख पाळख नाशिल्ले लोक
म्हाका पाचारताले,

भोवस्ताळे करून
फाटी वयल्यान हात भोंवडायताले
पूण म्हज्या दुकांचें कारण
कोणाकच कळनाशिल्लें
तांच्या हातांचो स्पर्श
म्हाका नाका नाकासो जातालो
पूण हांव
कांयच करूंक शकनाशिल्लो.

## कसो जगतलो

जळ जालें
खदूळ खदूळ
विखाळल्या पाणयांत
स्वास मुक्त मेळना
तळमळ्यांचें जालां जिणें
कुडीच्या ह्या केंसा केंसांत
केन्ना वीख बळ्ळें कळ्ळें ना
कित्याक रे मनशा
तुजो तुवेंच खणलो फोंड
कळना आतां
कसो जगतलो कोण...!

## मोर

पयलीं हांव
तुमच्या सगळ्यांच्या
आनंदा खातीर नाचतालों
नाचन दिसना तरी नाचतालों
आतां हांव मोर जाला
आनी आतां हांव, म्हज्याच आनंदा खातीर
नाचतां,
नाचन दिसता तेन्नाच नाचतां

# चीर पडिल्लो बोमाडो

ताकाय खबर नाशिल्लें
आपूण चीर पडिल्लो
जात्रेंतलो बोमाडो म्हणून
तुमींच ताका वारें मारून
फुलय फुलय फुलयलो
आनी तो ठूस ठूस करून पालवलो

आतां तो खायना, जेविना
बसना, उटना, न्हिदना
एक सारको रडत आसा
आदळ आपट करीत आसा

आमी कांयच करिना हें पळोवन
तुमी आकाश पाताळ
एक करूंक लागल्यात
आमीच गुन्यांव केल्ले भशेन
आमकांच खेपूंक लागल्यात

खरें  सांगूं
तुमीच ताका जबाबदार
तुमी ताका ताची
खरी वळख सांगलीच ना
ताचोच हो परिणाम
तुमचीय म्हणून तशी चूक ना
अस्सल म्हणून जें जें आसा
तें तुमकां सदांच नसाय
देखूनच तुमी
चीर पडिल्ल्या बोमाड्यांक
वारें मारीत रावले
आतां तुमचेरच
'बुमरेंग'  आयलें...

## तोच म्हजो कोण तरी...

तो म्हजो
कोण तरी लागतालो
भुरगेपणांतूच तो वाट चुकलो
आनी खंयचे खंय पावलो
सोऱ्याच्या घोटा खातीर वसवसलो
आनी दारादारांत
भीक मागूंक लागलो
आमचे सारक्या
उजू वाटेन चलपाचें
नाटक करप्यांनी
ताका फकत खेप खेप खेपलो
पूण वाट दाखयलीच ना
म्हाका जाल्यार
ताचो केन्ना उगडासय जालो ना
लग्न आसूं, बारसो आसूं
वाडदीस आसूं
हांवें ताका कित्याकच
केन्ना आपयलो ना
म्हाका ताची लज दिसताली
पूण खंय, म्हजें पेपरांत
नांव लेगीत आयलें जाल्यार
तो पेपर माथ्यार
घेवन नाचतालो
हें म्हाका तो मेलो
तेन्ना कळ्ळें...!
खऱ्यांनीच तोच म्हजो
कोणतरी लागतालो.

# पोकोच नाल्ल

हे
राशींतल्यान
उखलिल्लो उखलिल्लो
नाल्ल पोकोच मेळ्ळो
आतां
राशींत हात घालपाचेंच
धाडस जायना...!

## हांव असोच

दर मनीस
वेव्हारीच आसता
हें मानपाक
म्हजें मन तयार ना जालां
देखून सगळे तरेचीं
बेरकीपणां आसूनय
हांव असो
परतून परतून
पिसो थारता

हांव सुदारना म्हणून
घरचीं, सगळीं म्हाका
अडाणी लेखता
तरी हांव सुदारना

हांव जाणां
सुदारलो जाल्यार
रातचो हांव न्हिदचो ना
देखून हांव असोच
बेरकी आसूनय पिसोच

## नवें मळब

तुमच्या मळबांत
आमकां जागो नासल्यार नासूं
आमी नवें मळब निर्मितले
आनी तातूंतच
नक्षत्रां जावन पेट्टले
आमचे कडेन बळगें आसा

## तेंच चड वायट

कांय लोक
भांगराक बेगड म्हणटा
आनी बेगडीक भांगर म्हणटा
तेन्ना भांगर काळजांतल्यान रडटा
आनी बेगड ओठांतल्यान हांसता
तेंच म्हाका चड वायट दिसता

## घुस्मटमार

तांणी आमकां
फुलूंकय दिलें ना
आनी बावूंकय दिलें ना
परमळ आमचो घुस्मटत उरला
भितरले भितर...
देखून
आमची आंतरीक सुंदरताय
कोणाच्याच दोळ्यांत भरली ना
परमळय कोणाक हुंगूक मेळ्ळो ना
आमी घुस्मटत उरल्यात
कळ्यांत अडकल्ल्या
गुंगूल्ल्या भाशेन...!

## हें सदचेंच जालां

कोण केन्ना
कसलें वठयत सवंग
कळना जालां

गरिबांच्या खोपटांक
आदीं उजो घालप
आनी मागीर
समाजसेवकांचो बुरखो चडोवन
तांचे खातीर तंबू घेवन धांवप
हेंय आतां सदचेंच जालां

रस्त्यावेल्या बेबद्यान लेगीत
धमकी दिल्यार
कालसांवांत चुळ्ळ करून मुतपी पत्रकार
लेखण्यांच्यो
तरसादी करपाच्यो घोशणा
दिवंक लागल्यात
तेंय आतां सदचेंच जालां

पोश बंगल्यांत बसून
सोऱ्याचे घोंट मारीत मारीत नव्यो कळयो किरमुपी फुडारी
बालनिकेतनाचीं उक्तावणां
करपाक सगळ्यांत पयलीं हजर
तेंय आतां सदाचेंच जालां

आवयच्या मड्यार लेगीत
निमणी नदर घालतना
लटकी प्रतिश्ठा वेंगावपी
वेगवेगळ्या माचये वेल्यान
मनीसपणाचीं गितां
गांवपाचेंय सदचेंच जालां.

## व्यथा

सगळें कितें
सांगून गेल्यांत
म्हजीं दुकां तुज्या दोळ्यांत
तुजीं दुकां म्हज्या दोळ्यांत
उतरांची गरजच ना

## पेंवपाकच जाय

तुफानाच्या दर्यांत
हांवें मारल्या उडी
आनी हांव पेंवत आसा
हातपांय बडयत...

नाल्ल, बोंडें, चुडटां नाटां
म्हाका धोंगशे मारून वतात नेटान
पुरूस पुरूस उडटा ल्हारां
दोळ्यां मुखार फुट्टा तारवां
तरीपूण मोडां हुपीत
हांव पेंवत आसा
दर्या पार करपाच्या
अखंड हावेसान...

मदीं पावलो तेन्ना कळ्ळें
हांव पावता त्या दर्याक
पलतड ना म्हणून
पूण आतां उपाय ना
म्हाका पेंवपाकच जाय
हातपांय हाल मेरेन...!

# अन्यायाचो उजो

भायर
थंडगार पावस पडटना
झाडा पेडां कुडकुडटात
हांगा म्हज्या काळजांत
अन्यायाचो उजो पेटून
दोळ्यांत दुकां
सळसळटात...!

## नातीं

हीं दिसतात तीं सगळीं
म्हजी रगताचीं नातीं
एके एके आलमारींत
जावन रावल्यांत शॉपीस कशीं

मनशाच्या वाऱ्यान लेगीत
तांकां वेर वचूं येता
देखून कोणाकूय तीं
पयसुल्ल्यानच दाखोवपाचीं

तांकां अर्थ फकत शब्दांचो
तीं केन्ना आपूण जावन
हांसना, रडना आनी उलयना
तरी हांव तांकां तोखेता

कित्याक जाणा?
हांव एकूच जाणां
तीं म्हजीं रगताचीं नातीं
ना म्हणूंक मेळच ना...!

## नवें सांग

परतून परतून
फाटल्या यादींनी
कित्याक  जाता रममाण
नवें कितेंय सांग

## फातरूय न्हय

तुका हांवें
पूज पूज पुजलो
कितलें गंध साड्डयलें
कितलीं फुलां ओंपलीं
कसले कसले अभिशेक केले
दुकांचे, दुदाचे, उदकाचे सगळे
तुजेर कसलो परिणामूच जालो ना
तेन्ना कळ्ळें
तूं फातरूय न्हय म्हूण...

## हांसो

काल पयर लेगीत
कोणूय पळोवन हांसतकच
मनाक बरें दिसतालें
आतां कोणूय हांसलो जाल्यार
दुबावूच चड येता
ओंठावयलो हांसो
खरो काय नकली
तेंच कळना जाता...

# तुमकां खबर आसा

आमचीं गितां
कितलीं सुंदर तीं
तुमकांय खबर आसा ,
पूण तुमी तीं गायनात
ओंठार येवन नाचलीं तरी
तुमी तीं गावंक तयार नात
आमी जाणां
तुमचो काबोंरेटरूच
निवळ ना...

# कावथो माड जायना

पुर्वजांल्या
भाटांतलो कावथो
केन्ना कोणें शिंपलोच ना
तरिपूण बेवारशी कसो वाडलो
मळबभर...
पर्यावरणांतलो कर्ण जावन
पोसो भरभरून दीत रावलो
आमी घेत रावले
एकदीस जाणटो जावन
आपली हाडावळूय
आमकां दिवन गेलो...

आतां
नव्या कवाथ्यांक
सारें, सावळ घालून
आमी शिंपीत आसात
वर्सांचीं वर्सां
तरिपूण कावथो
माड जायना...!

## दर्या वेळेर

दर्या वेळेर तिनसना
कितले चंद्र कितलीं नक्षत्रां
दोळ्यांत भरून सोंपना
उजवाडाच्या किरणांनी
नदर थाऱ्यार उरना

## तुमीच सांगिल्लें

तुमीच सांगिल्लें
आड्डून आड्डून
नवीं फुलां फुलूंक जाय म्हूण
आतां फुलिल्ल्या
फुलांच्या परमळान
तुमी कित्याक घुस्मट्टात?
हीं झाडां
तुमीच शिंपिल्लीं
आतां फुलां फुलचीं
बंद जावचीं ना...

## मॉडर्न मनीस

फातराक लेगीत
निश्ठेन पूज पूज पुजलो
जाल्यार केन्ना तरी एकदीस
तातूंत येता देवपण
आयच्या मॉडन मनशांचे फाटीर
मायेच्या अभिशेकांच्यो
कितल्योय ओतल्यो पावळ्यो
तरी जागना भावपण
कोण जाणा कोणें केलां, म्हूण
कसलें तांचेर धाडपण

## जल्मतलो भगवंत

सुकिल्ल्या ताळ्याचो
गीम तापतना
माती आशेता
थेंब थेंब पाणयां
अशा रखरखांतय
नव्या मिर्गाचीं
रंगयत सपनां
पलतडचीं संवणी
बांदतात घोंटेर
आलतडीं
मिर्गाचें एकेच दडकेन
धर्तरमाया जाली शांत शांत
आतां जल्मतलो
तिच्या कुसव्यांतल्यान
पांचवोचार भगवंत

## सपनां

सपनांक म्हज्या
फुटलीं रंगबिरंगी पाखां
आनी संवणीं जावन
उडून गेलीं रानां रानांत
सपनां विणें सुके जिणेक
कसलोच उरलो ना अर्थ आतां

## काळ धांवतना

संगणकाचीं
चक्रां लावन
काळ धांवता बुलेट ट्रेन कसो
ताका आयलें पयलें
कांयच दिसना

खंय वता?
ताकाय खबर ना
तरीपूण जण एकलो
खर्शे खर्शेत गोळो मारीत
ताचे फाटल्यान धावूंक सोदता
तो कितले जाणांक आपटिता
कितले जाणांक सोलपिता
हिशेब ना कोंत ना
काळ, फाटीं वळून
पळयच ना...
माया, ममता भावपण
कित्याचेंच ताका भान ना
सव्य अपसव्य ताका लागना

काळ धांवतना
हांव खूब फाटीं उरला
मनीसपणाचे वालींतूच
हांव घुस्पून उरलां

## तवो

हांव चुलीवयलो
काळो कुळकुळीत तवो
तापिल्लो काय न्हिविल्लो
हात लायतकच
कळपाचो...

# पूत गेलो

शेजारच्या चंद्रीलो
मानाय कसो पूत गेलो
हड्‌डें बडोवन रडटा आवय
काळीज जाता हाय हाय
सगळो वाडो रडटना
बलकांवार रावन उबे
नाटक कशें देखता कितें
सूम जरी जळ्ळें तुमचें
उरला अजून पीळ जिवो
अमृताची घेवन कपी
जल्माक तुमी आयल्या काय...!

# हालींसरा

हालींसरा
तुमच्या अस्तित्वाचो
वास लेगीत
म्हाका सोंसना जाला

पांजऱ्यांतल्या वागा मुखार
बोकड्यांक बांदचें
तशें म्हजें जालां

तुमकां पळयतकच
पांयांची तिडक
मस्तकाक चडटा
आनी
आत्मदहन करीन दिसता
तुमच्यांतलो मनीस
जागोवपाक...!
पूण भंय दिसता
तेंय फुकट वचत म्हूण

## हे पावसा

हे पावसा
म्हज्या घराच्या नळ्यांक
तान लागल्या
पोरसांतल्या झाडांचो
ताळो करपला
देखून तुका होरायहोरायलो
मळबांत कुपां मांडून
तूं आयलो
गडगडलो, तटतटलो
जोगलावलो
म्हज्या घराच्या
पांख्यार पडनासतना
तूं कोसळूंक लागलो
पलतडी खळखळून
व्हांवपी तुडूंब दर्यांत
हांव पळयत उरलों

# शांत रात

शांत रात झेमतना
किण्ण मळबांतल्यान
एक एक नक्षत्र गळून पडटा
अंधूक उजवाडान
सगळ्यांचेच दोळे सुखावता
पूण कळना कोणाक
त्या निराकार मळबाच्यो वेदना...!

## कुपाद

तांणी आमकां
दात्यांत घालून
दळ दळ दळ्ळें
पूण पीठ जालें ना
भड्डलें...
देखून अशे
कुपाद उरलें

## असो म्हाका गांव जाय

घरा फाटल्यान धोलते माड
सगळ्यांच्याच पोरसांत
फुलती फुलां सर्वकाळ
असो म्हाका गांव जाय

वड, पिंपळ, सांतोण रानांत
आजे-पणजे घराघरांत
खळ्या खळ्यांत भुरगीं बाळां
संवण्या वांगडा खेळूंक जाय

जात ना पात ना
धर्माची वणत ना
शिगम्याच्या मांडार
सगळ्यांचोच रंग जाय
असो म्हाका गांव जाय

कोणाल्याय शेतांत वतली
कोणालींय जोतां पूण उरची ना
एकूय चूल पेटनासतना
सगळ्यांचेच रांदनीर आदन जाय
असो म्हाका गांव जाय

कोणाले चुलीर कितें करपलां
वास सगळ्यांक येवंक जाय
मारू उलो कोणेय खंयच्यान
सगळेच वसल्यान साद जाय
असो म्हाका गांव जाय

# कुपां हांसो

मळबकुपां
ओततां हांसो
थंड शितळ
पावस जावन

संवण्या पांखांचे
गळटा रंग
झाडा पेडांक
चडली भांग

काजुल्यांचो
गळटा प्रणय
पाना पानांत
उजवाड जावन

## घणसा बैल

शिकयतां शिकयतां
मास्तरान एका भुरग्याक विचारलें
तूं फुडें कोण जातलो?
ताणें हड्डें फुडें काडून सांगलें
गुरूजी, हांव घणसाबैल जातलों
हालींसरा तांकांच
चड तेजी आयल्या.

## घणसा बैल-२

हांव
घणसा बैल
जाल्लो जाल्यार
कितलें बरें जावपाचें
घरच्यांक, भायल्यांक
सगळ्यांकूच हांवूच
जाय जायसो जावपाचें
जण एकल्याक
घणसा बैलूच आवडटा

## हे देवा

हे देवा
कर रे मातसो
कठोर म्हाका
इतलो मृदू नाकाच नाका
ह्या चालू संवसारांत
म्हाका म्हजे खातीर
इल्लो तरी जगचो आसा

## तुरमूण

हांव
तुरमूण
धड पिकयना
आनी झडयना
वाऱ्या वांगडा हालतना
जाता सळसळ पानां

कितले जाण आयले
आनी फातरावन गेले
तरी देंठ कोचलोना

दोळ्यां मुखार
कितलीं फोगां
कितली फकां झडून गेलीं

तांचीं दुकां तांचीं मरणां
पळयत पळयत सरले दीस
हांव मात तुरमूण
धड पिकयना
आनी झडयना...

## यादींची पुडी

आशाढांतल्या
थंडगार पावसांत
फ्लॅटाच्या पनेळाची पावळी
गळूंक लागली
तेन्ना गांवांतल्या यादींची
पुडी उसवत रावली
आनी हांव
कागदाचें एक एक व्हडें करून
अचळय सोडूंक लागलो
मनाच्या दर्यांत
हो दर्या केन्ना शांत
केन्ना उचंबळ

# तेच चड आसतात

सुरी घेवन
गळो कापूंक सोदतल्यांचो
म्हाका भंय दिसना
तांकां आडावंक मेळटा
केंसान गळो कापतल्यांक
आडावंक मेळना
हालीं पावला पावलाक
तेच चड आसतात...

# पांखां कांपिल्लो कावळो

पाखां कापिल्लो कावळो हांव
करीत कांव कांव
आशिल्लीं नाशिल्लीं शक्त काडून
सोदता उडूंक मळबांत

मळब लेगीत येता लागीं
म्हजेच उखलना पांय
पांखां नासून अडलो हांव
कितें फायदो करून कांव कांव

केदो म्हजो आसलो हावेस
मळबाक झोपय मारपाचो
पाखां नाशिल्लो कावळो हांव
आतां हांगाच झरत मरपाचो

## केन्ना सावन

केन्ना सावन
तुजी वाट पळयत पळयत
हांव हांगा तिश्ठत उबो

उसरां येवपी पावस लेगीत
कोणा कोणाक भिजोवन गेलो
झाडा पेडांक न्हाणोवन गेलो

उसरां येवपी वारोय
ताळ्येर फुलां हुंगून गेलो
संवण्या पांखांक घश्टून गेलो

मळबांतलो सूर्य लेगीत
दीस धारेक वच्चे आदींच
दर्या जळांत बुडून गेलो

केन्ना सावन
तुजी वाट पळयत पळयत
हांव हांगा तिश्ठत उबो

## प्रणयाचीं केणां

बिरी बिरी पावस
कुडू कुडू झाडां
पानांक पान घसटीत
वारो पेटयता
प्रणयाचीं केणां

# हांव

हांव...
हांव म्हळ्यार एक व्हांवतें रसायन
केन्ना उज्याचो रोस
केन्ना झुळू झुळू जळ
केन्ना गटार
केन्ना अत्तर
केन्ना अमृताची पावळी
केन्ना उमेदीचो वझरो
केन्ना कोडू काजरो
हांव म्हळ्यार मनीस
एक विचित्र रसायन

# देवा

देवा,
खऱ्यांनीच तुका
शक्त आसा जाल्यार
उपकार करून
म्हज्यांतली संवेदना
मारून उडय
आनी कर म्हाका कठोर
म्हज्या संवेदनशील मना कडेन
घरचे, सोयरे धायरे
कोणाचेच सूर जुळना
देखून,
जगपूच कठीण जालां

## कितें जळटा

कापूर जळटा
तेन्ना वास येता
टायर जळटा
तेन्ना घाण येता
आतां कितें जळटा
तेंच कळना
नाकांत कसलोच
वास वचना

# रुपां

हीं मळबांत दिसतात
तीं काळशीं धवशीं
पावसाची कुपां न्हय
तीं म्हज्या मनाचीं रुपां
खिणा खिणांत
बदलत रावपाचीं

# कोणाक सांगू!

केन्ना केन्ना
खंयच्या खंयच्या रानांतलीं
कोणें आमडिल्लीं
कळना कशीं
येतात उडून संवणीं
सुरांच्या यादींचीं
काळजांत म्हज्या
सांठोवन ल्हारां
वतात उडून परतीं
तेन्ना कोणाक सांगू!
म्हज्या मन दुकांची काणी

## एसिडाचो पाट

आमी समजले
हो व्हांवता तो
नितळ उदकाचो झरो म्हणून
एक एक झाड मरत गेलें
तेन्ना कळ्ळें
हो ऍसिडाचो पाट म्हणून

# आवय जिती आसास्र

आवय
जिती आसासर
तिचे खातीर
हांवें सगळें केलें
मरतकच मात
सगळें तांणीच केलें
म्हाका एक दुकूय
गळोवचें पडलें ना
तेंच तांणीच गळयलें

## सोरो

भोमकाराल्या
बार्रार
तुवें म्हाका फणीच्या
हातान पळयलो
आनी खेप खेप खेपलो

आयज हांव
फणीच्याच हातान उरूंकना
बदलत्या काळाचीं पावलां
तुकाय कळूं ना
आतां हांव,
तुमच्याय लग्ना कारणाक
माटवांत राजा जावन वावरूंक लागला
आनी पयसुल्ल्यानच
तुजी दांतखडी आंवळूंक लागला

खरो जाल्यार
आतां म्हाका आडय
नाजाल्यार सदां भशेन
सोयीप्रमाण आतांय
माथ्याक कुरपणो चडयशी
लोक हांसतले

## हांव थंय पेंवतलों

हे तळयेंत
तुमीच पेंवात
एकामेकाचे पांय
ओडीत ओडीत
म्हजे खातीर
मुखावयलो व्हडलो दर्या आसा
हांव थंयच पेंवतलो

# दर्या वेळेर

दर्या वेळेर तिनसाना
कितले  चंद्र कितलीं नक्षत्रां
दोळ्यांत भरून सोंपना
उजवाडाच्या किरणांनी
नदर थाऱ्यार रावना

## इल्लें

गोरवां तोंड लायत म्हणून
आदीं कावथ्याक इल्लें घालताले
आतां परिस्थिती बदल्ल्या
शेजारी पाजारी हडकीत म्हणून
मनीस आपले आपूणच
इल्लें चडोवन जियेवंक लागला.

## भांग

तुज्या मोगाची
म्हाका चडली भांग
आनी लागना जालो
म्हजोच म्हाका थांग

## तें आयलें

तें आयलें पावस जावन
वादळ, वारें, गडगड तटतट
जावन जोगलां पेटलीं
झाडांक झाडां आपटलीं
पानां फळां झडलीं
आनी ल्हव ल्हव
पावस आसरलो
सगळें शांत शांत
तें आयलेंय पावस जावन
तें गेलेंय पावस जावन
ओलसाणेच्यो यादी तितल्यो
काळजांत दवरून

## कृत्रीम फुलां

हीं दिसतात तीं चडशीं
कृत्रीम फुलां
खऱ्यांकूय फाटीं घालपी
तुमी कितलेय
आशेन पळयात
कोणाल्याच काळजांत
तीं परमळचीं नात

## कवितेच्या झाडाक

दर वसंत ऋतूंत
म्हज्या कवितेच्या झाडाक
नवीं चंवरां फुट्टात
कांय गळटात
कांय धरतात तांचीं
फळां जाता
म्हजे जिणेच्या अंतरंगांत भरिल्लीं
कांय गोडशीं
कांय आंबट शीं

## चंवरां

कितें म्हणून
कोण जाणा
काळूच गेला बदलून
तांच्या झाडांक
मागूस आयिल्लीं चवरां
तांकां लेगीत फळां धरून
बाजारांत पावलीं पिकून
आमच्या झाडांचीं चंवरां
फुलचे आदींच
गेलीं सगळीं करपून

## आयज जाय जाला

ताच्या
हड्ड्यांतल्या पाशाणाक
खूब उसरां पागळ फुटला
तेन्ना आसलो नाका नाका
आयज अचकीत
जाय जाला...!

# जगप कित्याक?

हे मनशा
हे गर्देंत तूं
जगता तरी कित्याक?
जीव आसा म्हणून...
विकास नांवाच्या सांवारान
जंय आमचो स्वासूच
बंद उडयला
थंय जगपच कित्याक?

## तुजे बगर जायना मोगा

मळबांत चान्नें हांसता तेन्ना
याद तुजी येता म्हाका
आनी अमृताचे कळे रुखार
दिवे कशे पेट्टा

पाकळ्यांतल्यान सुटून घमघम
रात अमृत गाळटा
काजुल्यांच्यो वाती पळोवन
मन म्हजें नाचता

तुजे बगर जायना मोगा
जावन पिसो पाखो कसो
झिली झोपां हुपीत हुपीत
येता भेटूंक तुका

## हांसो म्हजो

कळना कोणें कसो व्हेलो
ओंठावयलो हांसो म्हजो
दिशी दिशी खोल खोल
काळजाचो घाय ताजो

मन रुखार धरना चंवरां
फुलतलीं कशीं फुलां
रात काळी येता मळबांत
जीण जाता बिण्ण उमास

कोण हाडीत हांसो म्हजो
ताचे बगर सगळें उणें
मिठा बगर पेज जशी
अळणी सगळें जिणें

## तुवें

तुवें रस्ते बांदले
बंगले बांदले
इमारती उबारल्यो
जंय न्हंय ना
थंय न्हंय लेगीत खणून
पूल बांदले
पूण, भावनेचो पूल मात
तुका बांदूंक जमलो ना...!

## खाटीक

हड्ड्यांतल्या
दुकांनी गंद झरोवन
हांवें तुजी पुजा केली
पूण, तूं मात पावन जालो ना
साणीक लेगीत
फुटलो पागळ
तुज्या मनमेटार मात
इल्लीयं मिरी पडली ना

## मनाक फुटून पाखां

मळबाच्या माटवापोंदां हुमकळटा सूर्य गितां
कळना जालां कसलें पिशें लागलां मनां
सवणे जावन सोदता वचूंक उडून वयर मळबांत
देखून आतां फुटल्यां मनाक नवनवशीं पाखां

पांखां पांखांत भरले रंग
झाडा पेडांक घालूंक न्हाण
हे मना वचगो बेगीन उडून
मळबांतरा ओतता रंग घसघसून

कोचून हाडूंक सूर्य  गितां
उडून उडून गेलें मन मळबांगणां
वाऱ्या वांगडा गायत गायत गितां
आतां मनाविणें हांव रे उरलो हांगा

## दुख्ख

कोणा कोणाचें सोंसचें दुख्ख
शक्त सोंपून गेलें त्राण
फुडाराचें गणीत कसलें
घोकणेंत सगळें जिवीत सोंपलें

कळना कितें कोणाक सांगचें
सगळेच कशे सुवार्थाचे शेंडे
मिरयता घालून आपले पुरतें इल्लें
ना तांकां सुयेर सुतक कोणाचें

## गीत

व्हीड व्हीड व्हीड भोंवत सरलें चडशें जिवीत
आतां कसो रावूं ह्या पांजऱ्यांत
मुक्तीविणें गेलें मन तळमळून
घुस्मटूंक लागला म्हजो प्राण

फुलां कळ्यांतलें चोखीत म्होंव
पांखो जावन भोंवलो हांव
उसयत यादींची एक एक गांठ
आतां हुमकळटा जंजाळांत

फुटूं पाखां मनाक म्हज्या
आनी वचूं चैतन्याच्या गांवां
जंय व्हांवतलो उर्बेचो दर्या
पेट्टलो लखलखतो सुर्या

## योरे मोगा

उडत उडत यो रे मोगा
पाख्याच्यारे पावलांनी
कितली वाट पळोवं तुजी
दीस सोपून रात जाली

चंद्र लेगीत आयलो वयर
तूच अजून पावलो ना
माथ्यांतल्या रे जायांचो
अजून परमळ सुटलो ना

वाटेक तुजे लावन दोळे
काळजांतले बावले कळे
तूं नासतना मोगा म्हज्या
जाता जीव रे कासावीस

## चैतन्याचीं कणसां

कुपां कुपांतल्यान येता
नाचत नाचत पावस

ताच्या पावलांच्या गाजार
जाता झाडां गर्भार

पानां पानांतल्यान करता नाद
नव्या ऋतूचीं कवनां

सवण्यांच्या दोळ्यां दोळ्यांत
फळटा पांचवी पांचवी सपनां

नव निर्मणेचे लागून दुवाळे
सृश्ठ मनयता उमेदीचे दुवाळे

रयतांच्या काळजा काळजांत
पिकून आयलीं चैतन्यांची कणसां

## आमचीं गितां

तशीं तुमचे परस
आमचींच गितां खूब सुंदर आशिल्लीं
पूण आमकां तें केन्ना कळ्ळेंच ना
देखून तीं गावपाचें
आमकां धाडस जालें ना

आमी तुमचींच गितां गुणगुणलीं
देखून सगळ्यांच्याच ओंठार
तुमचींच गितां रंगलीं
आमचीं गितां सुंदर आसूनय
तीं आमच्याच गळ्यांत सुकलीं
आनी दोळ्यांतल्यान
मोतयां जावन झडलीं
तेन्नाच आमचीं गितां
कितलीं सुंदर आशिल्लीं
तीं आमकां कळ्ळीं

# कुत्रे

म्हज्या
एका सोयऱ्यागेर
खूब कुत्रे आसात
धाकले जातीचे
व्हडले जातीचे
तरातरांचे
तांची अपुरबाय पळोवन म्हाका दिसता
तांचे मदलो हांव एक आसपाचो म्हणून

## चुकिल्लेवरी

आयज
खूब वर्सांनी
तुवें म्हाका
छळपाचें बंद केलां
आनी आतां म्हाकाय
कितें तरी चुकिल्ले चुकिल्लेवरी
जावंक लागलां.

## नाचचें पडना

तूं एकाच पाखाचो मोर
पावस नासतनाय
नाचूंक लागता

तुज्या नाचपांत
लय ना ताल ना
ताचेंय तुका भान ना

आमचे फाटीक लाख पाखां
देखून आमकां नाचचेंच पडना
नाचना तरी आमकां
मोर म्हणचें कोण रावना

संजीव वेरेंकार, कोंकणींतले आयच्या काळांतले एक आघाडीचे कवी. तांचो जल्म 29 ऑगस्ट 1959 वर्सा फोंडें म्हालांतल्या निसर्गरम्य अशा सावयवेरें गांवांत जालो. तांचे सोपे, सरळ आनी सडेतोड भाशेक लागून तांच्ने कवितेक सर्वसामान्य वाचप्यांच्या काळजांत खाशेली सुवात प्राप्त जाल्या. तांचें मुळावें शिकप सावयवेरेंच्या सरकारी मुळावे शाळेंत जालें. धावी मेरेन ते उत्कर्ष विद्यालय, धुपें सावयवेरें (आयचें के. आर. एस. एस. हायस्कूल, वळवय) हांगा शिकले. जाल्यार उच्च माध्यमीक आनी पदवी मेरेनचें (बीए)शिक्षण मिरामार,पणजेच्या धेंपे कला आनी विज्ञान महाविद्यालयांत जालें.

आतां मेरेन तांची 'भावझुंबर', 'मुंबर', 'गांवांतली सांज', 'पडवे वयर्लीं संवणी', चैतन्याच्यो पावल्यो' हे कविता झेले जाल्यार 'मांड ओसाड जातना' आनी 'तिपय' हे एकांकी संग्रह उजवाडाक आयल्यात. तांच्या कोंकणी कवितांचो सर्गेस्त प्रा. प्रकाश थळी हांणी केल्ल्या "Village Evening' ह्या इंग्लिश अनुवादाचें पुस्तक दिल्लीच्या बी आर पब्लिशींग कॉर्पोरेशन हे संस्थेन उजवाडायलां. 'मनपांखां' ही कवितांची सीडी उजवाडाक आयल्या.

प्रत्येक कविता संग्रहाची दुसरी आवृत्ती उजवाडावपाचें भाग्य लाबिल्ले ते कोंकणींतले आतां मेरेनचे एकमेव कवी. तांच्या कांय कवितांचो हेर भारतीय भासांनी अणकार जाला. कोंकणी भाशा मंडळाचे तीन पुरस्कार तांच्या कविता संग्रहाक प्राप्त जाल्या. 'वास्तू पुर्साचो अस्त जातना' ह्या नभोनाट्याक 1999-2000 वर्साचे अ. भा. आकाशवाणी केंद्राचो राष्ट्रीय पुरस्कार फावो जाला. शाळा ते महाविद्यालयीन पांवड्या वेल्या अभ्यासक्रमांत तांच्या कवितांचो आसपाव जाला. साहित्याचे एक अभ्यासक, शिक्षक काशिनाथ नायक हांणी तांच्या कवितांचेर अभ्यासपूर्ण अशें 'संजीवाच्या काव्यांतली संवेदनशीलताय' हें पुस्तक बरोवन उजवाडायलां.

2007 वर्सा उजैन शारांत जाल्ल्या अ. भा. आकाशवाणी केंद्राच्या राष्ट्रीय कवी संमेलनांत तांचे 'सपन' हे कवितेची निवड जाल्ली. 2003 वर्सा म्हापश्यां जाल्ल्या अखिल गोंय युवा साहित्य संमेलनाचे ते निमंत्रीत अध्यक्ष आशिल्ले. मनीसपण आनी बदलत्या काळाचो वेध घेवपी आनी विशयांची विविधता आशिल्ल्या ह्या तांच्या 'अस्वस्थ सूर्याकुय' वाचप्यां कडल्यान प्रतिसाद मेळटलो, अशी आस्त बाळगितां.

प्रकाशक

संजीवाच्या आतां मेरेनचे कवितेक चार आयाम वा तासां कुसां
आसात.एक व्यक्तीवाचक 'ते' आनी 'आमी'
मदलो भेद उक्तावपी. दुसरो आयाम थळवाचक. एके वटेन गांव
आनी दुसरे वटेन शार हाचे मदलो फरक उक्तावपी.तिसरो
काळवाचक आयाम–तेन्ना आनी आयज. आधुनीक जीण आनी
पारंपारीक जीण असो चवथो रितीवाचक आयाम तांचे कवितेक
लाबला. अशे रितीन चार क्रिया विशेशणात्मक आयामांच्या
रुपांतल्यान तांची कविता अभिव्यक्त जाता.

प्रा. भुषण भावे

